पयली खेप
१० आगस्ट १९८६
नागपंचम स्रावण शके २०४२

मुखचित्र : अरुण काल्वणकर

उजवाडावपी :
सौ. मनकर्णिका वेणिमाधव बोरकार
'पारिजात' रोड नं. १
जयप्रकाश नगर
गोरेगांव [पुर्व]
मुंबय ४०० ०६३

छापपी :
प्र. पु. भागवत
मौज प्रिंटिंग ब्यूरो
खटाववाडी
मुंबय ४०० ००४

मोल पंदरा रुपया

पर्जेळाचें दार हो म्हजो चवथो कविता संग्रह. ह्या संग्रहांत १९७५ ते ८५ मेरेन बरयल्लया वेंचिक कवितांचो आस्पाव केला. आडवाद फक्त "तूं सुखदुखांचो धनी" आनी "नक्षत्रांची पांवळी" हे दोन कवितांचो.

हो संग्रह सोबीत जावचे खातीर मौज प्रिंटिंग ब्यूरोचे श्री. माधवराव भागवत हाणी तकालस घेतली तांचे हांव उपकार आठयतां.

माधव बोरकार

१९ जुलै १९८६,
गोरेगांव, मुंबय

## दिश्टी पैस फांकारता

पानां गळपाचे दीस
मनांतल्या मनांत
उडलीं वतां रुखांरुखांर
झडिल्ल्या रानांत....

रगतांत ओलो वारो
चंद्र पाझरता
रंद्रांनी वाटो काडीत
सुर्या विडविडटा....

ताजे सावळेची सासाय
म्हजोच रुपकार
दिश्टी पैस फांकारता
पर्जळाचें दार....

पणजी
१-१-७६

## तूं सुखदुखांचो धनी

तूं सुखदुखांचो धनी
म्हजी वेरेंल्ली काणी
तुज्या पायांर ओपून
हांव अणूयहून ल्हान....

आतां तुजे कुशींत
पेटली सुर्याची वात
म्हजे मोने वाचेक
तुजे दि्श्टीची देख.

सुखदुखांचो धनी तूं
मळबायेदें म्हजें रीण
कुस म्हजी रिती अजून
पांग तुजी फेडून....

पणजी
१-५-७४

## नक्षत्रांची पावली

नक्षत्रांची पावली
दोळ्यांत थाली
काळजांत रुजली.

मळबाचो थाव
तिणे मनांत माळ्ळो
दीस सुकृताचो फळ्ळो.

काळजाच्याय लागीं
अशे दिशां पैस दोळे
पिकिल्लया सपूनांचे मेळे....

पणजी
१-५-७४

## पावसा पावसा

पावसा पावसा
भर म्हजे दोळे
माग काडूंक गेल्लें
पावल म्हजें व्हळ्ळें.

पावसा पावसा
कुडीच्या कांठार
शिरंत्रांनी रगताक
जोरगतीचो भार.

पावसा पावसा
झडूं नाका असो
मनांतल्या राधेचो
उडत भंरवसो.....

मुंबय
२२-५-७५

## मनांतल्या गांवांत

मनांतल्या गांवांत तुवें
दिवो लायला आसतलो
पैलाडी रानांत वारो
तुजींच गीतां गायतलो....

अशे दिवेलावणेर, म्हज्या—
प्राणांची गो आरत
तूंच काळखां पेटोवन गेलें
फायच्या दिसाची जोत....

मुंबय-पणजे
२८-५-७५

## अर्थ

झोपाळ्याक बांदलें हांवें म्हजें मन
जिणे पल्तडच्या गावांत उजवाडाचें धन

सावळ्यांच्या पावलांचो धल्लो ताल हावें
सरतल्या रातीक घालें सप्नांचें दावें.

झोपाळ्याच्या झेला-पैल सुटलो म्हजो तोल
खाऱ्या दुखांचे खरीचो अर्थ कितलो खोल....

पणजी
१५-२-७६

## काळ

खंय व्हरता म्हाका
हें दिकांचें तारूं
भल्लो वाव शिडांनी
दिस्टाव्याची कुरू....

उस्तिलीं पाळांमुळां
काडूंक सोदून मूळ
जंय वसलां म्हजें
पांगळें मायेचें कूळ....

दुखाक म्हज्या निस्तूंदी
मळबाची वस्त्रगाळ
पर्जळ्ळो शिरंत्रांनी
किट्ट किणेल्लो काळ....

पणजी
२६-६-७६

## कविता

नदरेंचे मेरेवयल्यान
पल्तडचें जोरगत पाणी
थेंब थेंब निस्ततना
थंडायेच्या ओलसाणींत
खिणांन खीण मिणमिणटना
म्हज्या दिव्यांतलो
काळखाचो गर्भ
पोसता वेणो
(अनवळखी व्यथेच्यो)

मनशाच्या मानेवयलें
काळखाचें रीण
कळंतरासैत
फेडूंक जमना....

पणजी
४-७-७६

## मळबाचें फूल

सुर्याचे सावळेक
कूड म्हजी वस्त्रगाळ
पेटलीं खिणां रंद्रांनी
लख्ख वताचो हुंवार....

व्हांवलें पैस भान
लागलें खंयचे तडी
रान दिव्यां मिणमिणलें
दिटयेचे पल्तडी....

नाका उडूं अवेळार
माळून पिशी भूल
काळजाच्या खांदयेर
फुलता मळबाचें फूल....

पणजी
७-९-७६

## कथा

तुजी किणेल्ली कथा
नाका म्हाका सांगूं
दिसाच्या धारेर
सपुनांचें घर बांदूं....

तूं म्हजो मोग पिसो :
काळखाची राणी
धगमोड्या वाऱ्यार
कोंबायल्ली काणी....

फुल्लो रितो पोसो
केळयल्लीं दानां
ऊजवाडून फांकलीं
पर्मळाचीं किर्णां....

पणजी
१२–९–'३६

## हांव म्हजेच भोंवतणी

हांव म्हजेच भोंवतणी
थोडो थोडो शिंपडिल्लों
दुखां मेणाच्या घरांतलीं
खर धगान कडिल्लों....

हांव मातये भरवण
किल्लल्या मिर्गाचे कोंब
भिनले दंश रमारमांत
पिकिल्ल्या फळांचे रंग....

हांव म्हजेच पल्तडी
एक निराकार साद
शीम हुपून अस्तित्वाची
दिगंतरा पावली गाज....

पणजी
१२-९-७६

## न्हाण

केणायलो कोणे म्हाका लावन मोवण
रसरसली काया दीठ भल्ली म्होंवान.

गर्भवासी जीण पुजलें बिंब सुर्याचें
सादले मोर रानांत; म्हजे पांचूय प्राण.

सांवरून सांवरना अशी खोल माया
मिर्गाआदींच मातयेक आशाडाचें न्हाण....

पणजी
१२-९-७६

## कूप

झडून गेलें कूप
कर्पल्ल्या शेतार
शिंवरलें भिरें
पिकिल्ल्या वतार....

पणजी
१२-९-७६

## जिणें

फक्त बाटयले ओंठ
मांडून दवल्लेलीं पात्रां
देठांतल्यान कोंचिल्ली
पोसो भरून नक्षत्रां.

पोले फुल्लोवन बसली
डाव मोडून राणी
थाव मापचो न्हय कोणे
अशें अदृस्टाचें पाणी.

कोंकयल्लया किंवणानी
स्रापिल्लें दुःख मोनें
कूस फुट्टून मळबाची
पानेलें ओठांत जिणें....

पणजी
१८-९-७६

## पैस कित्याक पेटच्यो वाती

कोण कोणाचे रावना पांगेंत
म्हजेच पांगेंत रावतां हांव
थोडीं आपा-लिपा खेळटना
म्हजेच मुखार मोखतां धांव....

दीस भरिल्ली केळ तशी
पुण्याय पोसवता दारा
सांडलें सपून दिसा धारेर
सुर्या व्हळिल्लया रे पारा....

मिठा कणयो विरता दोळ्यांत
रितें काळीज उसपितना
पैस कित्याक पेटच्यो वाती
हांवंच भितर पर्जळटना....

पणजी
१-१०-७६

## मळबाची वेर

हांव पेटून फुलतना
उतर मेण कशें कड्टा
पाखां फुटून खिणांक
पावल पल्तडी उड्टा....

सरांव घेता म्हजोच
म्हजी सांडिल्ली नाट
रंद्रां फांकून पर्जळ्टा
खोल रग्तांतली वाट....

दिसा धारेर उदेता
निळी दिठयेची मेर
सांदून सांदना काळजा-
भितर मळबाची वेर....

पणजी
४-११-७६

## काळोख

उतरांचे गर्भ-कणयेंतलो
फायच्या दिसाचो दिस्टावो
म्हज्या प्रावतनाच्या
गावांशिमेर
उदेंतेच्या पर्जळाची वार
पुरून गेलो....

म्हज्या पांचूय प्राणांनो,
अशा धाय-दिकांचे आरतेर
उंवाळून उडयात
तुमच्या हाडां-मासाच्या चिखलांत
तळामेरेन खोल रोंबून बशिल्लो
सांवळ्यांच्या कातीवेलो
युगांयुगांच्या कळंतराचो काळोख....

पणजी
२१-१-७७

## रान

दोळ्यां आड जालें
नदरेचें जाळें
पावलांच्या मुळांक
सावळेचें आळें....

बायेंतलो बिंदुलो
बिंदुल्यांतली बांय
काळजाक गावना
उतरांचो ठाय....

देठांतल्यान कोंचलें
पान कशें भान
जोगलावलें रगतांत
दिठयेचें रान....

पणजी
८-४-७७

## उतरांनी औंरेल्यो

उतरांनी औंरेल्यो
पावसाळी दिको
पोटुरलें खोल दूख
चांदन्याच्यो पिको.

मातयेची कूस अशी
पांगरून जीण
फागुरता नदरेंत
दस्टांताचें खीण....

मळबाचे दंश, निळे
प्राणांत साद
दिसांच्याय पैल सुर्या
फांतेले आज....

पणजी
११-७-७७

## मूळ

तुज्या गावां माथ्यार
चंद्र मध्यान रातीचो
प्राण मिणमिणलो दोळ्यांत
दिवलेंतले वातीचो....

हालता दार; कोणाचें
पावल वाजता मनांत
उडलो अदृस्टाचो मोर
नदरेपेल्या रानांत....

ओरां चड्टना अशीं
शिरंत्रां सावरूं सावरना
आंगणांत काळजाच्या; मूळ
उजवाडाचें धरना....

पणजी
१६-८-७७

## रानां

दोळ्यांतल्यान हांबेता
दावें घाल्ली गाय
काळजाच्या काळखार
आमोरेची साय....

जिल्लीं पावलां दारांत
गेली खंय वाट
म्हज्या दुखांच्या आडसाक
उजवाडाची फाट....

नदरेचें जोगलावणें
रगताचीं केणां
घमघमलीं पांचवींचार
नागवलेलीं रानां....

पणजी
१०-११-७७

## कुरू

उमळ्ळी कूस
दूद ओठांत ओलें
मन चांदनें पिलें....

दिमखुऱ्यांनी येता
वतां म्हज्या दारा
अवेळाच्या पारा....

व्हटयेंत वारो
पैस दिठयेंतलें तारूं
म्हजी सांडिल्ली कुरू....

पणजी
८-२-७८

## तुज्या सपनेळ्या गावां

ही न्हंय अशी दोळ्यांतली
काळजाचो मापता थाव
वसगाळ करता माती
म्हजे सावळेचो सरांव....

फुटलों हांव दिकांपार
खोल स्वासांचें रुजवण
मळबाचे माये परस
निळसर नदरेचें मन....

काळजार मांडटा अळंग
मोन्या उतरांची आमोरी
भान सांडून तळ्यांत न्हाल्यो
आंकवार तंद्रीच्यो नारी....

दोळ्यांतले न्हंयत उबीं
गच्च नक्षत्रांचीं तारवां
वाट जावन व्हांवलों हांव
तुज्या सपनेळ्या गावां....

पणजी
८-४-७८

## वाव

फांकली जीण काळजाच्या दिव्याची
झड्टा खाला थोडें हून मेण
फुटली बावल्यांक दीठ नक्षत्रांची
पर्जळटा कुशींत काळखाचें केण.

दुखता देंठ; अळंग खुंटलो जरी
सुखान रंगाच्या पिकता फळ
सावरना तोल रगतभरतेचो
अशें स्वासांक वादळाचें बळ.....

पोसचो पावलांनी भार वाटेचो
आनी नदरेन दिकांचो थाव
व्हांवता वीज पेटिल्लया शिरंत्रांनी
रुजलो पाखांनी मळबाचो वाव.....

पणजी
१४-४-७८

## उजवाडाचो प्राण

नक्षत्रां खुंटपी हात
केसांतल्यान भोंवता
तुजे सासायेचो शेजार
जीण मांडून रावता....

पांय रोंबून दिकांचे
म्हजें थिरावलां घर
झुळझुळटा झाडांनी
हून वताची झर....

रसरसून पेट्टा
रगतांतलें रान
घमघमलो गात्रांनी
उजवाडाचो प्राण....

पणजी
१७-४, ३१-७-७८

## पाळण्यांतलो माणकुलो

पाळण्यांतलो माणकुलो
तशें दोळयांतलें काळीज
धाय-दिको पेटोवन
गेली रगुतांतली वीज.

अनवळखी गावांची
पावलांनी रेखली वाट
नजरेचे धारे पेल्यान
पैस पळयां हुबली नाट.

सपनांतल्यान आयलीं
भोवन भिरीं दिसांचीं
मध्यान्नेचो सुर्या गेलो
लावन वात मनाची.

माणकुल्याच्या ओठांत
पानेवन ओलीं थानां
जोरगतीचें पालंव रगुताक
पुण्यायेचीं फळ्ळीं खिणां....

पणजी
१०-११-७८

## याद तुजी उदेता

याद तुजी उदेता
उतरां फाटल्यान
खुबलीं मोडार मोडां
स्वासा स्वासांतल्यान.

कितल्यो सोंसच्यो वेणो
जल्म गोठेले दोळ्यांनी
बुडली दिसाची धार
प्राण मेटले कळ्यांनी.

पालेतना रंद्रां अशीं
झोंबली खोल कळ
वसाडींतल्या तारवांनी
हुपली मळबा वळ....

पणजी
२९-३-७९

## भेट

वाटेवेल्या आडमोडणार
तुजी-म्हजी भेट....
जंय काळखाचीं मोडां
परतलीं
आनी मातयेचे कुशींत सुस्तावल्ल्या
रानांतल्या सावळ्यां आंगार
चांदन्याची मंद पसय पातळ्ळी....

निक्तेंनिक्तेंच
खोल खंय तरी उजवाडटा;
म्हज्या कर्पल्ल्या प्राक्तनाच्या
दोंगरांपेल्यान
पाळण्यांतल्या बाळकाच्या
दोळ्यांतल्या पयल्या वयल्या
सप्नाच्यो पाकळ्यो
अळंग फुलच्यो तश्यो....

पुणे
२७-७-७९

## थाव

रानवाऱ्या परसूय उष्ण
अशे तुजे स्वास
शिरंत्रांनी झंकारपी
स्पर्शाचीं खिणां
नदरेचे वाटेर परमळपी
केसांतल्या जायांचें चांद्नें
आनी
म्हज्या आठय आंगार तोलपी
तुजें अवजाळी जुवानपण
ह्या सगळ्यांचो अर्थ
आज
म्हज्या उब्या जिणेचो आशय
तुज्या दोळ्यांचो थाव मोखपी....

पणजी
११-९-७९

## सूर्याच्या रूपकाराक

नक्षत्रां परसूय पैस
तरी काळजाच्याय लागीं तूं
रातीचे पार हुपून
भिरीं म्हज्या सप्नांचीं
तुज्या गांवा शिमेर
गायता आरत उजवाडाची.
न्हाणान तुज्या
तृप्त परमळपी वाऱ्यार
चंवरता काया
आनी पाकळे पाकळेन
फुल्लून येवपी
म्हजे अस्तित्वाची सासाय
घालता गिंवसण मळबाची
म्हज्यांतल्यान उदेल्लया
सूर्याच्या रूपकाराक....

पणजी
२१-१-८०

## काणी

तुज्या दोळ्यांत म्हाका
दिसलों हांव
तुजोच माग काडूंक
खोल तळामेरेन रुजिल्लो
प्राणाचो देंठ कसो....

तुज्या धगधगपी ओंठार
पेटिल्ले ओंठ सांगाता
वाटेर शिंपडिल्ल्या
तंदीच्या चांदन्यांत
गांव विसरपी
राजकुंवरेची काणी....

पणजी
१३-२-८०

## कविता

म्हजे जिणेचे अर्थावाटेर
तुजें घर
जंय मोनेवून सपूनेता
मनांतल्या मनांत
म्हजी कविता....

पणजी
१८-५-७९



## धुंवरी

कितली तुका
समजांव!
तू तर आतां
समजावणेच्याय पेल्यान उबी
निळ्या दोंगरावळींच्या पल्तडी
फांतोडेर पडिल्ली
मळबाचे मोनेळीची
गच्च धुंवरी कशी.

पणजी
२४-२-८०

## गांव

उगडासांच्या
रंगयाळ्या रानांतल्यान व्हांवपी
वाऱ्याच्या वळीक फुटिल्लें
तुजें मन
आशाडं-कुपां कशीं मांडपी
स्वासांतल्या वादळांनी घमंघमता.
पैस
तुज्याच दिस्टाव्याचो गांव
कुसव्यांतलो काळोख
वस्त्रगाळ करपी
दोळ्यांतल्यान पर्जळटा....

पणजी
२६-६-८०

## तळें

यादींच्या कमळांनी
फुलता मनाचें तळें

मुंबय
१-८-८५

## स्वासा-उस्वासांच्या धगान

तुज्या
न्हाल्लया केसांतल्या उबेचीं
अवजाळी ल्हारां
रावल्यांत वेंटाळून
म्हजे पंचप्राण.

आज
शिंयाळ्या रातीच्या
भर मध्यान्नेर
कडत वता
म्हज्या भोवतणी गोटेल्लो
काळखाचो गुपाट दर्या
तुज्या स्वासा-उस्वासांच्या
धगान.

पणजी
३०-१०-८०

## फांतोड

शिरंत्रांनी
उमाळ्यांचो पांचवो दर्या
उचंबळावपी तुजे ओंठ;
उजवाडाक वथेल्लया काळ्खाक
कूस जाल्ले तुजे दोळे;
आनी
फुलाफुलांतल्या
केसरांच्या अग्रांर
चंवरून आयिल्लें तुजें मन;
अवचित आज
फुट्टा म्हाका
रंद्रारंद्रांनी
म्हजेच जिणेक फुटिल्लया
प्राक्तनाची फांतोड कशी....

पणजी
१८-१-८१

## रग्तांत रुजूं घाल्लो रोव

रग्तांत रुजूं घाल्लो रोव
तुज्या धगमोड्या स्वासांनी
किल्लून येता रमारमांत
दिखाळ धर्तरेची काणी.

दिगंतेची जिणेक मेर
काळावेळाक बांदली दीठ
अथांग वाट पावलांखाला
युगांयुगांची फळ्ळी भेट.

पिकलीं अरळ खिणां आनी
घमघमली मनाची माती
मिणमिणल्यो दिसा धारेर
पेटिल्लया सपनांच्यो वाती....

सावंतवाडी
२१-७-८१

## दोळ्यांतली बावली

तूं गेली त्यो दिको
जाल्शो खर यादी
सांडिल्लया वाटांनी
मन तुका सोदी....

चंवरता ओंठार
म्हजे सूख दूख
जंय माळ्ळें तुवें
अळंग तुजें मूख....

एक एक दीस
पान कसो झड्टा
दोळ्यांतली बावली
काळखांत कड्टा.....

पणजी
२७-१०-८१

## काळखाक चूड लावपी

वाट फागूर-फाट्याची
आनी घाटमाथ्याची
नदरेक तरीय मोख
पयसुल्लया पल्लयांची.

करपली खर वतांत
मनाची कंवळी पात
परमळटा दोळ्यांत तरी
तुडुंब चांदनी रात.

व्हळिल्ले वाटेर खोल
उमळटात पावलां
दिस्टाव्याचे पैस सूर
रान सादत रावलां.

घाटमाथ्या पेल्यान
सांडिल्लो म्हजो गांव
काळखाक चूड लावपी
पेटिल्लो प्राण हांव....

पणजी-सावंतवाडी
१७-११-८१

## आमोरी : दोन कविता

१.

पाणयातळा
थेंब थेंब वस्नगाळ जाली थंडाय
तरी कितली उचंबळ
ही वेळ !
अशे आमोरेर
जिणेच्या बाराय वाटांनी सांडिल्लयो
तुज्यो यादी
अवचित हांबेतात
काळजांतल्यान
दुखांचे दर्या जाल्लयो
मिठाकणयो उंवाळून उडयल्यो तरी.
आनी
गच्च मेटिल्लया दोळ्यांक उमळटात
तुज्याच उमाळ्यांच्यो झरी....

.२.

तुज्या दृष्टांताचीं
अशीं जोगलां मारून
मळब मांडटना
सांवरूं कसो
म्हाकाच हांव ?
निक्तोच
दोळ्यांत काळोख बुड्टना
फुटला नदरेक
तुजोच गांव.

पणजी
२०-१०-८२

## तार

सतारीची तूं
तापिल्ली तार
म्हज्या बोटांतलीं
जोगलां झेलपी....

सावंतवाडी
१९८०

## पावस पाणयाचे गांव

तुजे दिठयेची कुरू
खण्टा मनाचो तळ
रंद्रारंद्रां वाटांनी
उजवाडाची उमळ....

ओंपल्यो दोळ्यांत दिको
आयलीं रुजून रानां
दिसाचे धारेर आतां
सप्नांचीं रुजवणां....

घल्लां नदरेचें आळें
सप्नांच्या रुजवणांक
पावस-पाणयाचे गांव
फुटले आटिल्लया प्राणाक....

पणजी
१३-६-८२

## कुरू

वावभरिल्लया शिडांक
पैस पल्लयांचें पेणें
फागुरिल्लया वाटांक
दिलें दिगंतेचें देणें.

येता हुंवारून दिक्रो
दीस हांबेल्लया वाटांनी
चड्टा काळजाकांठार
खोल पल्तडचें पाणी....

झड्टा दोन्य पोशांत
तुजें नक्षत्रांचें दान
तुज्या गावांतल्या वाऱ्यार
म्हजो पर्मळटा प्राण....

उबलें धारे पेल्यान
शिडां फुलोवन तारूं
नक्षत्रांच्या उजवाडांत
म्हजी पर्जळटा कुरू....

पणजी
५-४-८२

## व्रतां

पेटूं दी काळोख सगळो
म्हज्या प्राणाच्या चुडीन
व्रतां उजयलीं जल्मांचीं
हे मातयेचे कुडीन....

पणजी
८-४-८३

## तृप्त तुडुंब मन

तृप्त तुडुंब मन
पांचवो पर्मळ पिवून
शिरशिरता रानां
रंद्रां झंकारून....

पेडणे
२४-८-८३

## उजवाडाचें मूळ

घाले म्हाका कोणे
अंतरांत साद
तुजी हांबेता याद
पैसुल्लयान.

कितलें अटंग रान
म्हजें सांडिलें मन
तुज्या घराची खूण
सांपडना.

सोदलो तुका सगळो
तुजें गावना कूळ
उजवाडाचें मूळ
खगूं कसो ?

कालापूर
५-१-८४

## सावळी म्हज्या घायार

पावले सगळे फुडें
हांव मात उल्लों फाटीं
मुळसांत पावलों
तेन्ना सुरू जाली घांटी....

मुखार दोंगरघळी
वाटेची सांडली नाट
पावल घालता थंय
कोंसळ्ळी फुडली वाट.

सरून सरना भोग
कितल्या जल्माचें पाप
मध्यान्नेचो चंद्र तरी
शितळना उतळताप.

पोशांतलो उबो जल्म
ओंपतां तुज्या पायांर
धर तूंच शितळ तुजी
सावळी म्हज्या घायार....

कालापूर
११-१ ८४

## व्यथा

काळजांत केल्लो
यादींचो घोंटेर
अवचित आज
लागता किलबिल्लंक
(खोल चिंवचिंवपी)
एकसुरे आमोरेर
घांटींच्या सुरांर व्हांवपी.
आनी
आशाडून आयिल्लें
मनांतलें मळब
रुजयता व्यथा म्हजी
तुज्या गावांशिमेर....

मुंबय
८-१ ८६

## काळोख

खोप्यांत तुवें
हातो रातिचो
माळिल्लो
शेजेर काळोख
परमळिल्लो....

मुंबय
९-१-८५

## संदर्भ

तुज्या-म्हज्या नात्याक
आशिल्लो
संदर्भ प्राक्तनाचो
देंठाक पानाचो
आसता तसो....

मुंबय
१२-१-८५

## तूं येता

तूं येता :
सप्नांच्या वाटांतल्यान
यादींच्या घाटांतल्यान
उतरांच्या ओठांतल्यान....

तूं येता :
मोगऱ्यांच्या वासांतल्यान
पर्मळाच्या स्वासांतल्यान
उल्यांच्या भासांतल्यान....

तूं येता :
मनाच्या मठयेंतल्यान
काळजाच्या मिठयेंतल्यान
अदृस्टाच्या दिठयेंतल्यान....

तूं येता....

मुंबय
३०-७-८६

## दोंगरांवळी

मळबाक तेंकिल्लयो
निळ्यो निळ्यो दोंगरांवळी
मनाक फुटिल्लयो....

मुंबय
४-८-८५

## पोसो

दीस देठांतल्यान झड्टा
अळंग फूल कसो
काळखान भरता रितो
तुडुंब दिकांचो पोसो....

मुंबय
२०-८-८५

## दमळ

तुजे-म्हजे मदलें
दमळ
झडचें विरून
दोंगरांआड उदेवपी
कळा भरिल्ल्या
चंद्राच्या किर्णांनी
आनी
फुटचो उतरांकूय
फुल्लून येवपी काळजांच्या
जायां-जुयांचो
पर्मळ....

मुंबय
१५-८-८५

जल्म ४ जून १९५४ बोरये गोंय. शिकप गोयां. इंग्लीश आनी एस्थेटिक्स हो विशय घेवन मुंबय विद्यापिठाची एम. ए.ची पदवी. १९७२ ते १९७८ मेरेन सान्ताक्रुझ हायस्कूल (सान्ताक्रूझ गोंय) हांगा कोंकणी भाशेचो शिक्षक म्हूण काम केलें. १९८० ते १९८२ मेरेन श्रीपं चम खेमराज कॉलेज, सावंतवाडी आनी गोंय सरकारच्या आय. टि. आय. हे संस्थेंत इंग्लीश भाशेचे लेक्चरर आशिल्ले. १९८४ त केंद्र सरकाराच्या युनियन पब्लीक सर्वीस कमिशनाच्या वतीन तांची Programme Executive म्हूण वेंचणूक जाली. सद्या ते आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राचेर कोंकणी कार्यावळीचे मुखेल म्हूण काम पळयतात.

पर्जळाचें दार हो तांचो चवथो कविता संग्रह. हे आदीं चंवर (१९६९) वताच्यो सावळ्यो (१९७२) आनी उजवाडाचो रूख (१९७५) हे कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. वताच्यो सावळ्यो ह्या संग्रहाक कला अकादमी गोंय, दामांव, दीवची तस्वीप फाव जाली तर उजवाडाचो रूख ह्या संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळ गोंय हाणी इनाम दिलें.

